मुखेल संपादक
सुरेश ए. शेणै

कोशाधिकारि
के. विजयन

वाँगडी
प्रो. जी. मोहन राय
9446369771

न्यायोपदेशक
अड.वी.एन. वसन्त कुमार

प्रचार-प्रसार
टी. आर. सदानन्द भट

Layout by :
K. Santhosh
Mob : 9895212521

मुखचित्र : कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर आयोजित प्रतिमास कोंकणी कविसंगम [28-3-2017 (1939 संसारपडवो) क प्रारंभु जल्लेलो] एर्दी चित्र...
(आभार - एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची)



प्रति - ₹ 10/-
वार्षीक - ₹ 100/-

# स्पन्दन

प्रकाशन : केरळ कोंकणी अकादमी, कोच्ची

SPANDAN
Published by :
KERALA KONKANI ACADEMY
8/28, 'Santhery', 1st Floor,
Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,
Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849
Email : keralakonkaniacademy@gmail.com

खंड : 8 अंक : 8 1941 श्रावण

## संपादकीय

### केरळान्तुलि कोंकणी

केरळाचे भायरची जन लेकतायि केरळान्तुले कोंकणीन्तु मलयाळम शब्द भर्सी अस्स म्होणु। केरळची थोगडीं जनयि येचि अभिप्रायाचीं मेळतायि। जल्यार कायरिं तस्सि कांयि न्हयि मू। कोंकणीचे थेटा शब्द तुम्का केरळान्तु मेळतले मू। एदोळ थांयि अम्गेले ये मासिकेन्तु दिल्लेले "कोंकणी - മലയാളം - English" पंक्ती काणु चोयिल्यारि तुम्का ह्यें मनान्तु जत्तलें। मात्र न्हयि, केरळान्तुलीं कोंकणी पुस्तकँ मलयाळम लिपीन तँ देंवेंतायि म्हळ्ळोलो प्रचारूयि सम न्हयि। चडयि देवनागरी लिपीन तँ देंवल्यां। इतर संस्थानान्तुले जनांक ह्यें मनान्तु कोर्नु दिंवचाक कोण तय्यार जल्लेले ना म्हळेले तँ दुःखावस्था। ह्यें कोळनत्तिले केरळचे जनानीयि ह्यें मनान्तु कोर्का म्होणु लगेन अपेक्षा करतायि।

कोंकणी भाषेचे प्रयोगान्तु अनि प्रचारान्तु केरळचिं जन सदा जागरूक, उत्सुक अनि उत्साहि अस्सिले-अस्सयि-अनि मुक्कारीयि अस्तले म्होणु तँ अम्गेलो विश्वासु।

|| जय कोंकणी ||

कोच्ची, 01-08-2019 सुरेश ए. शेणै, मुखेल संपादक.

23.06.19, झांट्ये म्हाविद्यालयाचे परिशद सभाघर, दिवचले (गोंय) :- गोवा कोंकणी अकादेमी अनि दिवचल कोंकणी सेवा केन्द्र एकमेळ्नु कोंकणीचे महापुरुष शणै गोंयबाब हांगेले 142 वें जयंती उत्सवाचें आयोजन केल्लें। "कोंकणी चळवळ - स्वरूप, आह्वानां आनी उपाय" ह्या विशयाचेर परिसंवादूय जल्लो।

---

22.06.19, कुडचडे (गोंय) :- शणै गोंयबाब सेवा केन्द्राची "उमाळे" ही कोंकणी साहित्याचेर आशिल्ली कार्यावळ शणै गोयबाबाले 142 वें जयंती निमतान आयोजित केल्ली।

---

08.07.19, रवीन्द्र भवन, मडगांव (गोंय) :- अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो 81 वो संस्थापन दीस मनायलो। "कोंकणी शिक्षण, के.जी.ते.पी.जी. - एक नियाळ एक नियोजन" ह्यो विषयाचेरि प्रबंध अवतरण केल्लें। अनि मगीर चर्चायि जल्ली।

---

गोंयचे कोंकणी भाशा मंडळ आयोजित 18 वें शणै गोंयबाब कथामाळ मत्सर प्राथमिक तलार 19 आगस्टाक अनि संस्थान तलार 25 आगस्टाक जत्तलें म्होणु खबर।

---

05.07.19, परिशद सभाघर, भाशा विभाग, गोंय विद्यापीठ, ताळगांव :- जाग प्रकाशन मडगांव अनी गोंय विद्यापीठ (कोंकणी विभाग) एकमेळ्नु "माधवीः उगडास" कार्यावळीचे आयोजन केल्लें। "महिला साहित्यः नवे प्रवाह" ह्या विशयाचेर एक परिचर्चायि अस्सिलि।

---

कुडचडेचे (गोंय) कोंकणी कला साहित्य केन्द्राचे 2019-21 चे भारवाहि जाव्नु अशोक गोपी नायक (अध्यक्ष), रत्नदीप बाबुराव वस्त अनि एन. सुहास (भंडारी) हंका वेंचून कळ्या।

---

कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर आयोजित 28 वें प्रतिमास कोंकणी कविसंगमं "विकारि-ज्येष्ठ" 29.6.19 कसुशीला टी. भट हंगेले घरकडे दवोर्नु जल्लें। हंतु सुरेश वी. शेणै, एन. माधव रावु, एन. बालकृष्ण मल्या, आर. एस. भास्कर, रघु किच्चेरक्कर, श्रीकांत पै, सुशीला टी. भट, उमेश टी. भट, वी. लक्ष्मण पै, एन, सदानंद कम्मत, के.एन. रमेश भट, अञ्जली किणी, गोश्रीपुरं हरिकुमार ह्या कवींनी भागु घेत्तलो।

**संत केशवदासालि**

**हितोपदेश कथा – 49**

प्रो. वी. शिवानन्द भट,
पंचाब्जपुरम

## पावन नाम राकता

रत्नाकर एक क्रूर वेडु अस्सिलो। वनमार्गान वच्चे सज्जनांक तो निर्दय जाव्नु दिंशि मार्नु तंगेलि वस्तु घरकडे व्होर्नु स्वकुटुम्बाचें पालन करतालो। एक दिवसा दिव्य महर्षि नारद ते वटेन अयलो। रत्नाकरान नारदाक धोर्नु राबोव्नु तका दिंशि मारूक कूराडि कळ्ळी। नारदान संगीलें, “जनांक दिंशि मार्नु तूं पाप करता। तूं जनांक मार्नु घरकडे घेव्नु वच्चे संपत्तीचो भागु कडचि तुगेलि पत्नी अनी चेर्डुवां तुगेले हे पापाचो भागु कडतलि वें ? म्हणु नींवगि।” नारदाक एक रुक्काक बन्दूनु घरकडे धाव्नु वोच्चूनु रत्नाकरान कुटुम्बजनालगि हो प्रश्नु केल्लो। तगेले पापाचो भागु काडूक एकलोयि तय्यार जल्लोना। तन्नीं संगीलें, “तूंवें कोरचे पापांक तूंचि उत्तरदायी !”

कुटुम्बजनालें उत्तर अयकूनु रत्नाकरु शीघ्र नारदाक बंदूनु घल्लेलकडे गेल्लो अनी ते देवर्षीले चरणान्तु पोणु “मका राक” म्हणु प्रार्थना केल्ली। नारदान तका देवालें नाम “राम” जप्पूक संगीलें। तका ते नाम समकीचि म्होणूक जायना देकून घुपसाव्नु “मरा, मरा” म्हणु जप्पूक संगीलें, निरन्तर म्होणु-म्होणु तें “राम, राम” जल्लें। नारदान तका दीक्षा दिल्यावरी जल्लें। तदनन्तर ताणे एकडे बेस्सूनु ईश्वर-साक्षात्कार मेळुपर्यन्त निरन्तर “राम” नाम जप्पीलें। पावन “राम” नाम जप्पिल्ले मात्रेन तो वेडु महर्षि “वाल्मीकि” म्हळेले नांवान प्रसिद्ध जल्लो। तप कोर्चे वेळारि तो वळ्त्यांले घूडान आवृत जल्लोलो, (वळ्तीक संस्कृतान “वल्मीक” म्हण्ताय) वल्मीकराशीन्तु थकूनु भायर अयलो देकून तका “वाल्मीकि” म्हणु नांव पळ्ळें। महर्षि वाल्मीकीन विश्वप्रसिद्ध अमर महाकाव्य “रामायण” बरयलें। हें दृष्टान्त देवाले पावन नामाचें (राम नामाचें) महत्व प्रमाणित कोरूक पर्याप्त न्हंयवें ?

**On Line शब्दकोश**
(कोंकणी-इंग्ळीश, इंग्ळीश-कोंकणी) चोय्यायि :-
http://www.konkanivocabulary.in/

“भांगरभूंय” कोंकणी दिनपत्र वच्चायि
ओणलैन:
epaper.thegoan.net

## समाजान्तूले कण्टे

- विलासिनी एन. नायक, कोच्ची

घटाय्ल्यां हंगा व्होळ्ळि एकि वेदि
विविध भण्डलाचे अधिप आय्चे अतिथि
कर्तायि प्रश्नु चर्चागति आय्चि समाजाचि
चोय्तायि जॅनॅयि कस्सलि तांचि कर्णि।

एवनु रब्बील्या वेदीरि एकि महति
स्वयं दिल्ला परिचयु-ती कोंकणी प्रेमी
जल्यारि आय्कतल्यांक चिंट्टि मनाँ जायना
तीणे उलोंवचे उत्तलेयि आंगलवाणि।

दुस्सरि एय्ल्या एकि महिळा रत्न
दिल्ले तीणें भाषण स्त्रीधना विरुद्ध
कोळचे सर्वांक पुत्ताक तिजे जाय्नी व्हर्डीक
कोणालगि ना खंयि दिम्चाक तीणे निम्गिले धन।

तिस्सरो उल्लेय्ता तो एकु महन्तु
वेषभूषान्तु दिस्ता तो खंचो साय्बु
विषयु तज्जो कोंकणी ब्राह्मण संस्कारु
जन चोय्तायि अस्स वे तक्का जन्नुवाचो पोडु।

चोव्तो आय्लो तो भो विद्यावन्तु
सांगता अम्चे शाळेचो कर्का उद्धारु
स्वसंस्थेक दींव्का अम्मि बहुमानु
म्हळ्यारि तज्जि चेर्डूवँ शिकतायि ऊटीन्तु।

कण्टे अस्सले अनेक अम्चे समूहान्तु
उत्तूले अन्तर तांचे भाषण-प्रवृत्तींतु
तरीं अम्का जाय प्रगति ये समाजान्तु
दूर काड्का तंका जनानि जाण जाव्नु।

## सदुपयोगु



- ए. आर. प्रभु, कोच्ची

एकु रायु अस्सिल्लो। तक्का दोनि पूत। राज्याधिकारु म्हलगडे पुत्ताक तँ रब्वता जल्यारीयि बुदवंताक जांव्का राज्यभरण दिंव्चाक म्होणु रय्याक दिस्सलें। रय्यान एकि परीक्षा दवर्ली। दोग्गांकयि एक्केक कूडयि, 100 नाण्ययि दिल्लें। अनि संगीलें "दोनि दिसानि तुम्हीं कूड भोर्का। कोण तन्तु उतीर्ण जत्ता की तक्का राज्य भरण !"

तिस्सरे दिस्सा रायु चोंव्चाक एत्ता। व्होळ्याले कूड कपसान भरलेलें दिक्कीलें। दुस्सर्याले कूडान्तु एकु दिवो लाव्नु दवर्लेले दिक्कीलें। अनि अगरबत्ति जोळोव्नु दवर्ली दिक्कीली। कूड भोर्नु प्रकाशु अनि पोरमोळु। पांच नाण्याचो उपयोगु मात्र तं ताणे केल्या खंय। रय्याक बहु सन्तोषु जल्लो। अनि दुड्डुवाचो सदुपयोगु केल्लेले दुस्सरे पुत्ताकचि राज्य भरण दिल्लें।



## मनोकामना

- पी. एस. प्रदीप, कोट्टयम

सुन्दर सपन पळोवनु तू न्हीदें
सुकृत केल्लेले म्हजें पुत्तो
न्हीदान्तु आंग काणु भीवनिये तुवें,
सांत्वनाक आस अम्मा लागीं.

ओंठ कवळूनु तुज्जे रणे देखून
म्हजे मन दुःखेतामु पुत्तो,
ते दुःखा दुखीन्तु -
दीस्सा तू दिल्लोलो आन्तु मेळ्ळोलो वत्ता
माका, आन्तु मेळ्ळोलो वता.

वंशवेली (वंशावली) एकु अंशु मू तू
शत कोटी वर्षाक वंशु वडों
हात वडों, जल्द पांय वडों
पूतु वडों शीघ्र वंशु वडों.

हे आवसुले हे जन्म साफल्य मू पूतु
आयुष्य दिवनु देवु पुत्ता प्राप्त करों
ही एकी प्रार्थन नित्य करता हांव
हो/यो आत्मा, हे भूमीर आसु भितेरि.



## सरस्वती

- लता रंग मल्लन, माळा

आशा मिज्जी एकी आशा मिज्जी
तुक्का दोन्नीयि दोळे भरी चोंव्ची
आशा मिज्जी एकी आशा मिज्जी
ती सारि देवी तूं धरारि तूँ धरारी (आशा)

नित्य तुग्गेले स्मरण कोरनु
मिज्जो उडगासु हडता जल्यारि सरि
तुक्का इत्याक मिज्जो उडगासु एना
भक्तांचे हृदयांतु वासु कोरचे
देवी तू यो मुक्कारि मिज्जे मुक्कारि (आशा)

नवरात्री दीस पावले
कीर्तन तुग्गेले गाँव गाँव भरले
नवचैतन्य तुक्का एयले,
नवदुर्गा म्होणु नाँव मेळ्ळे
मिज्जे नयनान चोयिल्यारि, दिक्कूक एना मु
देवी तूं यो मुक्कारि मिज्जे मुक्कारि (आशा)

विद्याधन पालन कोरचे देवी मक्का पाँव पाँव
विश्वासान भोज्जुच्चे मक्का देवी तू राक राक
विनयपूर्व पुज्जित मु हाँव तुक्का
देवी तू यो मुक्कारि मिज्जे मुक्कारि (आशा)

**कोंकणी प्रसारण - आकाशवाणी** कारवार : (सग्ग बिरेस्ताराचे संजे 5.00 - 5.30)
धारवाड (765 Khz) MW: (सग्ग सोमाराचें रत्ति 10.00 -10.30 जाई-जूई कार्यक्रमु)
तृश्शूर (630 Khz) MW, कोषिकोड (684 Khz) MW : (मंगळाराचे संजे 5.00 धोर्नु 5.15 पर्यन्त)



## वायु प्रदूषण

- कलाकान्त, पळूर



काल चक्र घुम्ता आसता
दीसु एत्ता राति निसरता
काळूक आनि उजवाडु
परतून परतून एत्ता - वत्ता।

स्वर्ण वर्णाचीं तीं सूर्य किरण
धरतीक दित्ता तीं मोहन वर्ण
थळथळेंवचीं सूर्य किरण
मन मोहित तीं सप्त किरण।

वायु, उदाक अनि प्रकाशु
विना धरतीर जीवन निश्चल
खंडित करका हांचे परिपालन
अनि सूर्य देवालें नित्य स्मरण।

दूर करका वायु प्रदूषण
खंडित करका उदका परिपालन
दूर करचें तें अंतरीक्ष प्रदूषण
धरती आमची तीं अति पावन।।



## उद्यानेश्वर स्तुति

- वी. लक्ष्मण पै, कोच्ची

उद्यानेश्वर उमापते
पार्वतीश्वर पशुपते
शरण अम्का तुगेले चरण
अरुणोदयारि भक्तीन नमन। (उद्या)

घोर विष ग्राहका देवादिदेवा रक्षका
आत्मलिंग प्रदायका क्षिप्र प्रसादका
करि तू कल्याण गोश्रीजनांक
क्षमा कोर्नु अम्चे सर्व अपराध। (उद्या)

अज्ञानान अन्धकारु भर्लोलो संसारु
तारण कोरूक एकु उपायु
जप करि नित्य पञ्चाक्षर मन्त्रु
नमः शिवाय... नमः शिवाय....।।

## केरळ-गोंय शब्द

| | |
|---|---|
| बोण्डो - बोणो | ऊ - ऊय |
| नार्लु - नाल्ल | कर्म्बल - करमल |
| कत्तळि - कातली | कायळो - कावळो |
| मड्डो - माड | कासोवु - कासव |

## कोंकणी - മലയാളം - English

- शैलेष कम्मत. एम., कोच्ची

वण्टप/वंटप - പങ്കുവെക്കുക/വീതിക്കുക - To share

विर्कप - വിതരണം ചെയ്യുക - To distribute

विकरप -ചിതറിവീഴുക /കവിഞ്ഞൊഴുകുക - To overflow/Spill/ to be scattered

विकरावप - ചിതറിയിടുക - To scatter / Spill

विक्कप - വിൽക്കുക - To sell




## "अठौनात्तिलि प्रतिसन्धि"

आश्रम संविधान तस्सि सुगम जावनु चलतचि आयलें। त्या कालाक खालचिं म्हुण लेकताले विभाग एक कुटुम्बाक गान्धीजीन आश्रमान्तु एकडे केल्लिं। आवसु-बपूसु आनि लक्ष्मी नांवांचि एकि सानि धूव तं त्या कुटुम्बान्तु अस्सिल्लिं। सरळ सज्जन तं तीं अस्सिल्लिं। पुण अस्पर्श्यांक कळेल्यान्तु गान्धीजीले एदे मित्रांक कोडुवाणि दिस्सलि। अस्सि प्रतिषेध प्रकट केल्लेले व्यक्ति आश्रमा वाटेन चोलचे चांग प्रवर्तनाक गान्धीजीक फटिबल दिंवचे तं अस्सिले। तन्नि फळिं तळ्ळिं। गान्धीजीन त्या संभवाक अमित प्राधान्य कायिं दिल्लेना। अपण्यालें समीपन सम तं, परमात्म कारुण्य अपण्याले पक्षाक तं म्हुण गान्धीजीक अन्तर्नाद दिसैतालें। दामाचो गुस्मुट आश्रमाक छटिने आयलो जल्यारीयि गान्धीजी हलोलना। देवान हाथु सोण्णा म्हुण गान्धीजीक उत्तम विश्वासु अस्सिलो। त्या प्रतिसन्धि कालाक एक सज्जनान नेणताचि 13,000/- रुपया संभावना पेटैलि।

वेळु मुकारि वत्ता तसीचि आश्रमवासीलें निर्मल प्रवर्तन सगटांक अतिशयकर दिस्सलें। आश्रमान्तु परिशीलन पाविल्ले समर्थानिं ग्राम पर्यटन प्रारंभु केल्लें। थंगाचे कर्षकांक सुधार्सूयात कस्सि, तांगेलिं घरं कस्सि स्वछ राकूयात हन्तु जल्लि तांगेलि उत्तम श्रद्धा। मुकारि सोर्नु सेवा कार्यक्रम कोरूक आरांभीलें। थांगाचि बय्यों उसवप, वाट्टो झाडप, कोयरा राश्यो नाश निर्माजन करप तस्सि कोर्यात जालेलें एकाग्रतेन कर्ताचि आयले। कडेरि त्या ग्रामवासींनीचि मुकारि सोर्नु सग कोरूकयि आरांभीलें। तो अभ्यास सादक जांवचाकनिक पर्णि बुर्कूटी कोयर वाळी रीति तन्नि सोळ्ळीयि।

आश्रमाचे चन्द प्रवर्तन संचालन कोर्चे भर्सि ब्रिटीषकारांक उपकार कोरूक गान्धीजीन प्रबन्ध केलें। सुरक्षा प्रवर्तनान्तु सहायु दिल्लो। तजो सग प्रत्युपकार जावनु ब्रिटीष सरकार भारताक स्वातन्त्र्य दित्तले म्हुण गान्धीजीली देकि अस्सिली। जल्यारि पुर्पूरो जावनु गान्धीजीले देहाक अस्वास्थ्य लागलें। निविर्ति नात्तिल्यान औषधीरूपान बोकडी दूध पर्यान पींवका जालें गान्धीजीक !!!

## मेगेलि अज्जि

- एन. माधव रावु, कोच्ची

"देवारान" म्हळेले गावान्तु
रबताली मेगेली अज्जि।
तिगेले घरा लगिचान
व्होळता एकी न्हंयि।।

न्हंयिंचे मेट्टारि बेसूनु
बायलो वस्त्र उम्बळतायि।
न्हंयिंतु बुडून स्नान करतायी
शिकायेन आंग घस्तायी।।

तेची न्हंयींतु मेगेली अज्जि
दिसपडत न्हांव्चा वत्तालि।
अंगाक तेल पुसून अज्जि
न्हंयींचे मेट्टारि बेसतालि।।

वर्षाडीचे एक दिवस
अज्जि गेल्ली न्हांव्चाक।
पथरी मेट्टारि बेसून ती
अंगाक तेल पुस्ताली।।

अयिलो झोड्डु वारें पावसु
अज्जेलो पायु निस्सोर्नु पळ्ळी न्हंयींतु।
स्वल्प वेळानी रबीलो पावसु
जनानि पळेयले तिजे देह पोंव्ता।।



## हासु

- कु. अञ्जली किणी, कोच्ची

मनान्तु भरलोलो सन्तोषु
प्रकट जत्ता तोण्डारि
दोळ्यान्तु येत्ता प्रकाशु
हासु खेळ्ता ओण्टारि।

एकलाले तोण्डावेलो हासु
वगळाले मनाक दित्ता आश्वासु
हुसको सोणु तो कडता श्वासु
सग सम जत्तले म्हळोलो विश्वासु।

हसल्यारि ना जत्ता विचार
हासु गुणगुणेता सन्तोषाचे स्वर
दुःख मगलान सोणु जीवन मुकार व्हर
केदनाय हस्सूनु तू मुकार सर।।

## आत्मीय

भजन-कीर्तन कोरूक वत्तना,
प्रथम जाव्नु/आद्यमचि
"लज्जा" बाधा करता।

## उज्जाचो पावसु

- जितेष आर. कम्मत, कोच्ची

दुःख मुक्कारी हांव मगल्यान।
घुवंता आसा ही जिवाची भाण्डी।।
सुखांतु पोवनु दुःखान्तु बुडलो।
भोगूनु हें दुःख, रडता हांव।।

हासु म्हाका सोडूनु गेलो।
सुख म्हाका फोट्टोव्नु गेलें।।
खंय नत्तिल्लो जालो हांव।
भोगूनु हें दुःख, रडता आसा।।

उज्जाचो पावसु मनांतु म्हजो।
पडता आसा जीवन भोर्नु।।
फूल हांव, दुःख वोत।
उज्जाचे वोत्तान करपतां हांव।।

## महा प्रदोषु

- टी. उमेश भट, कोच्ची

महा प्रदोषु कैलासनाथाक
पूजन करतायि त्रयोदशि संध्येक
भक्तीनाराधना चन्द्रशेखराक
कारण जत्ता तें देवाले प्रीतीक।

अभीष्ट दायक प्रदोष पूजन
फलप्राप्तीक व्रतानुष्ठान
अतिश्रेष्ठ तें अर्घ्यप्रदान
ईश्वरदर्शनान धन्य जीवन।



सकल चराचरांक आधारु तूं
समस्त लोकाक परिपालकु तूं
शरण पावल्यारि आश्रयु दित्ता तूं
भक्तजनांक रक्षण करता तूं।।

## चौपदी

- एन. सदानन्द कम्मत, कोच्ची

गाँवँ भोंवचाक गेल्लो
गयेन्तु हाँव पावलो
गंगेन्तूयि बुड्डूनु न्हल्लो
गाँवान्तु पोर्तूनु एय्लो।

## बेट्टीयो

- रघु किच्चेरक्कर, चेर्तला

बायलो सग्गी बल्लावि न्हयि
बल्लाव बायलयि बल्लावि न्हयि
बल्लाव बयलेन चलेयल्यारि
कुटुम्ब तें बल्लाव जायशिना।

संत कबीरदास दोहा -



एन. लक्ष्मण मल्या, कोच्ची

**"कबिरा क्या मैं चिंत हूँ मम चिंते क्या होय।**
**मेरी चिंता हरि करै, चिंता मोहिं न कोय।।"**

कबीर सांगता हाँव मेग्गेली चिंता इत्या कोर्का ? हांवे चिंता केल्यारि इत्ती जत्तलें ? मेग्गेली चिंता स्वयं परमात्माची करता। मक्का मेगेली कसली चिंता ना।।



## कळकान भर्लेलें

- सुरेश वी. शेणै, कोच्ची

कळकान भर्लेलें आकाशारि
उद्देव्नु रब्बील्यां नक्षत्रँ
पोरमोळान भरलेलें अंगणान्तु
फुल्लेव्नु रब्बील्यां सन्दणॅ (कळकान)

चंपें फुल्लेलेलें उद्यान
भूमिदेवीक मेळ्ळेलें वरदान
कॅळना मू अम्का तें प्राधान्य
वोरु दिल्लोलो वे परमात्मान (कळकान)

रायु नत्तिलें तें रावळार
आजि कोण ना चोंवचाक परिवार
शून्य जाव्नु पॅळयां सिंहासन
शापु घल्लोलो वे त्या दुर्वासान (कळकान)



## सूरदास भजन

- के. अनन्त भट, कोच्ची

आतं हांव नांचलों मस्त गोपाळा।
काम-क्रोधाचो घाल्नु तो चोगो,
गळ्याक विषयांची माळा।।
महा मोहाचें पांयजण वाजून,
निन्देचे शब्दां खुशाली।
भ्रमु भरिलें मन जालें मृदंग,
चोल्नु कुसंगान चाली।।
तृष्णा मादु करता घरांतु ती,
ताळु धोर्नु नाना प्रकारि।
मायेचो कूर्टारि कोट्टु बाँधून,
लोभा तीळो कोर्नु निडळारि।
कोटि ती कला धोर्नु दाकेयली.
सुधि ना जल स्थल कालु।
सूरदासागेली सर्वि अविद्या,
दूरा करो तो नंदलालु।।

ह्ये भजन 1978-79 क मंगळूरु A.I.R.न्तु प्रस्तुत केल्लेलें।
गायक - बी. एस. रावु

मनोहरु

## बायलाँ खातिर (ददल्यांकय) - उषा आर. भट, हैदराबाद

**सामग्री**

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. तन्दूलु | - 300 ग्रां | 5. तेल / तूप | - मोत्तिं तोळूक |
| 2. उडवाचि दाळि | - 100 ग्रां | 6. एळाचि पुड्डि | - 1 चिपट |
| 3. शक्कर (पुड्डि केल्लेलें) | - 200 ग्रां | 7. कज्जूबीयेचे कुटके | - 1 मूष्टि |
| 4. नरलाचि सोयि | - 1 वोळ्याचि | 8. किसमिस | - 1 मूष्टि |

तन्दूलु अनि उडदा दाळि, विंग-विंगड आयदनांतु एक घंट्याक फुग्गोव्नु, दोन्नीयि 'इडलीक' पीट करचे तस्सी पाकान वट्टूनु काड्का। कास्याचे उरवळ्यान्तु तेल/ तूप रक्कोव्नु खतखताव्नु, मोती लड्वाक तोळ्नु कडचे लेक्कान, वेज्ज अस्सिले चाळींदय्येन, यें पीट थेंबाव्नु, सुवर्ण रंगु जंचे पाकान, तोळ्नु काडका।

नरलाचि सोयि, शक्करे पिट्टो, एळाचि पुड्डि, किसमिस अनि कज्जूबीये कुटके, तोळ्नु कळ्ळेले ये बून्दीयोयि जाव्नु चांग प्रमाणि मिश्रण कोरनु, सेम्माळे अस्तनाचि, मोती लड्डु बन्दूनु कडचे प्रमाणी बन्दूनु काडका। तोळूक तेल तॅं उपयोगु केल्लेले जल्यारि, लड्डु बन्दूचे फूडे, दोनि चिपट तूप तन्तु सिंपूनु जाव्का, लड्डु बन्दूक। तुप्पाचो परिमळु अनिवार्य तॅं मनोहराक।

(उडुप्पी श्रीकृष्णा देवस्थानान्तु सदा नैवेद्यु जाव्नु मेळचो यो प्रसादु (उण्डो बन्दूनत्तिल्ले, सड्डळ मोत्तिं जव्नूयि) कृष्णाष्टमीक विशिष्ट नैवेद्यु जाव्नु कर्नाटक, आन्ध्रा, तेलङ्गाना राज्यान्तु, प्रति घरान्तूयि प्रचुर प्रचलित अस्स।)

(गोश्रीपुरान्तुले वेंकटपति देव्ळान्तु, मञ्चक सेवेक नैवेद्यु जाव्नु मनोहरु समर्पण कॅरप अस्स; पुण तैय्यार करचें विधान स्वल्प व्यत्यस्त तॅं)



**आळें** (കടങ്കഥ / Riddles)

"अवसूक अप्पोळो
चेल्लो जोळनु मेल्लो !"

उज्या पेट्टे कड्डी

## मन्नाचे तीन विकार/ दशा

निद्रा, स्वप्न अनि जाग्रत

**एक प्रयोजनप्रद कोंकणी वेबसैट :**
konkaniwordnet.unigoa.ac.in

## स्वार्थी विन्दूरा पील्

- वसन्तकुमारी पी. एस., कोच्ची

एक ग्रामान्तु एक घरकडे एक विन्दूरूयि एकि विन्दूरीयि तंगेलीं पांच-स् पिल्लँयँ (चिवणिं) अस्सिल्लीं। आवसु-बापूसु इत्तेंयि खाण मेळयारीयि सगटांक वण्टे घाल्नु दित्तलिं। पिल्लँयँ तशीचि मेळ्ळोलो वस्तु (खाण) परस्पर वण्टे घलतलिं। जल्यारि सान एक पील अस्स। ते व्होड स्वार्थी ! उत्तलेयि मेळयारीयि तक्का पांवना।

एकु दीसु तक्का व्होडु एकु अप्पा कुट्टूको मेळ्ळो। कोणाक दक्कोव्नत्तिल्ले तक्काचि खांवका म्होणु लेक्कूनु अप्पा कुट्टूकोयि घेव्नु तो एक रुक्का पोन्दाक गेल्लो। थंगा बेस्सूनु खंवचे वेळारि तें एक कयळयान दिक्कीलें। कयळो उब्बूनु एवनु अप्पा कुट्टूको घेव्नु गेल्लो। जल्यारि ते स्वार्थि विन्दूरा पिल्लान अप्पो सोळ्ळोना। कयळो अप्पोयि, विन्दूरा पिल्लाकयि घेव्नु उंचारि उब्बोलो। भय्यान विन्दूरा पिल्लालो हाथु अप्पारि थकूनु सोणु गेल्लो। ते पील खाल पोणु तज्जो पायु मोळ्ळो। बीळान्तु वच्चाक जावनत्तिले थांगा पोणु बोब्बाटि घालूक आरांबीले। तें अयकूनु तगेलि आवसु धाव्नु एव्नु तक्का घेव्नु बीळान्तु गेल्लि।

"भवण्डांक दीवनत्तिल्ले एकलोचि खवंचाक गेल्लो दिकूनु न्हवें अशिश जल्लेंलें ? अनीक पाय दोन्नीयि सम जावु वरक्यान बीळान्तु बेस्सूनु तन्नि हाणु दिल्लेले खा।" म्होणु अम्मान तक्का उल्लेयलें। तें अयकूनु पश्चातापु पाव्नु - "ना अम्मा, अनीक इत्तेंयि मेळयारीयि हांव सगटांक वण्टे घाल्नु दित्तोलो" म्होणु ते पिल्लान सांगीले। अम्मि कोणे स्वार्थि जावु नज्ज ! ❋

**साहित्य अकादेमी अनि कोंकणी** ❋ 14.6.19, सुकान्ता अकादेमी फोर सयन्स, आर्ट्स एण्ड कळचर ओडिटोरियम, कुंजबन, अगर्तला :- साहित्य अकादेमीचे अनुवाद पुरस्कार - 2018 वितरण केल्लें। कोंकणी पुरस्कार विजेता अस्सिले नारायण भास्कर देसाय।

❋ 15-16 /6/19, शहीद भगत सिंह युब आवास ओडिटोरियम, खेजुरबगन, अगर्तला:- साहित्य अकादेमीन "अभिव्यक्ति" कार्यक्रम आयोजित केल्लें। 16.6.16 क जल्लेले कविसंगमान्तु मेल्विन रोड्रिग्स कोंकणी प्रतिनिधि अस्सिले।

## रस्पति — आर. के. प्रकाश, मळूर



**Dr. P. N. N. सिंह**
**डॉ. प्रश्नु ना नरसिंह**
SSLC, PDC, BSc.,
MBBS (3 times)

कुर्वणि बाबु - डॉक्टर माम, भाग्या चीटि काणु, काणु पूरो जल्लें। बंपर मेळूक, पांच कोडि जल्यारीयि चिन्तना।

डॉक्टर : प्रश्नु ना, चीटि काडका म्होणु ना। मुरळि स्टोर्सान्तु कोडियो जायते आसा। पांच ना धा उतूल जल्यारियि मेळतले तुक्का।

* * * *

भीक मगतल्लो : डॉक्टर मामु, बर्कूण तं मक्का। फाइच असुख ना कोर्का। पोरां मका कैलास दर्शनाक वचूका !

डॉक्टर - प्रश्नु ना, वखद नाका। बर्कूण चॅड जल्यारीच दर्शन तुक्का हंगाच मेळतलें। समयु, दुड्डु सग्ग लाभु।।

## परणी म्हण्णी (गोंय)

- श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची



- फूल फुल्लले शिवाय
  परमळु भायर येना।
- भांगरा सूय म्हणून
  दोळ्यांत घालूं व्हय ?
- तूप खावन रूप येत्ता।
- वांचून उरल्यार
  वेंचून खावं येत।
- भट करीत ती अमास
  राजा थारायत ती दिशा।

## अखिल्लि रस्पति



जीवितान्तु प्रधान जाव्नु उडगासु कोर्का जल्लेले एक कार्य -

तुम्गोले दोळे पुस्सूक शेम्भरि जाण मेळतलीं। जल्यार नांक पुस्सूक एकलो सरि मेळना। दिकून भर्कूण एवनत्तिल्ले चोंवका !

## सुभाषित



प्रो. के.एन.आर.भट
कोच्ची

"गुणेषु यत्नः क्रियतां किमाटोपैः प्रयोजनम् ।
विक्रियन्ते न घण्टाभिर्गावः क्षीर विवर्जिताः ।।"

सत्गुण वड्डोंव्चान्तु जांका प्रयत्नु पंचाक; तें मनशान्तु मूल्यवर्धनाक उपयुक्त अस्सूका; नन्तना बाह्य अलंकारान कित्तें प्रयोजन ? दूद अक्कूळ्ळेले गायचे गॅळ्याक रत्नखचित सुवर्ण निर्मित व्होड शब्दु करूक शेषी अस्सिल्ली घांट लंबेल्यारीयि, मंडीन्तु (Market) ती विक्कूनु वोच्चूना। गड्वाक घस्सूनु न्हाणोव्नु कितले शिंगारल्यारीयि, तो घोडो जावुंसि ना। 'गुण' (Qualities), कार्यशेषि, बुद्धिवैभव, विद्या, कार्यकुशलता, आचार इत्यादीक तॅं एकल्याक मोल दित्ता, विना बाह्य अलंकार न्हयि म्हणु तात्पर्य।

## देवी भजन

- मोहना टीचर, कोच्ची

देवी पराशक्ती विद्याची देवी तूं
धनांचि देवी तूं दुर्गा म्हळ्ळेलीयि तूं। (देवी)

विद्या धन दिंव्ची सरस्वती देवी तूं
अज्ञान नाशु कोर्नु विज्ञान दिंव्ची तूं
अम्गेले बालकांक सन्मार्गु दकोव्नु तूं
तंगेले जीवित संरक्षण कोर्का तूं। (देवी)

ऐश्वर्य दित्तली धनलक्ष्मी देवी तूं
मानवालि कामना पूरण कोर्चि तूं
धनांचो अहंकारु दूरयि कोर्नु तूं
अम्गेले जीवित साफल्य करि तूं। (देवी)

दैत्यांक संहारु कर्तली दुर्गा तूं
भक्तजनांक संरक्षण कोर्चि तूं
अनेक रूपान अवतारु घेंव्ची तूं
शान्तस्वरूपान अम्का रक्षण करि तूं। (देवी)

**पुस्तक प्रकाशन**

* 'केरळ कोंकणी कवितेंतुले नवे प्रवाह' - डॉ. पी.आर. हरीन्द्र शर्मा
* 29-6-2019 ब्लाकबोक्स, रवीन्द्र भवन, मडगांव :- 'ओपिनियन पोल' (दुसरी सुदारीत आवर्ति) अनि 'राजभास आंदोलन' - प्रा. श्याम वेरेंकार
* मंगळूर :- 'एकत्वाचो सरदार' - अरुण जी. शेठ

## हें तुमका कळता व्हे?

**कोंकण्यांगेले आचार-विचार**

- सुशीला त्रिविक्रम भट, कोच्ची

## “फळराचो खोट्टो”.....

**फळारा खोट्ट्यान्तु इत्तें सग्ग दोव्वोरका ?**

फळारा खोट्ट्यान्तु दोवोरका जल्लेले साधनांतु प्रथम स्थान पुज्जिलें जन्नूवें, केळें वीडो, दक्षिणा, सुगन्ध फुल्लाक तां. हें जन्नूवें जावंय मनष्याक उद्देश्यीं दिंवचे तां. मग्गीर येत्ता जन्माष्टमीक कोरचे “पंचकदायेच्यो” सामग्र्यो तां. गोवु, चोणो, मूगु, गोड, कज्जूबी, पेंयदार इत्यादीक (हंगा नारलु ना) साधनां तां पंचकदायेक (खीरि) अस्सिल्लीं. मग्गीर येत्ता रावंदयकायेचीं, तोळचीं साधनां. हरवीं, पिक्कल्लीं नन्द्रबाळी केळीं, (नेन्द्रक्काया, नेन्द्रप्पषं) सूरणु, दुद्दी, तवशें (मुळ्ळन वेळ्ळरि) अल्लें, जीवि मिरयासांग, जीवि चवळी, अळुवा मण्डें (सोप्पूर मण्डें) व्होळ्ळें कूक, घोस्साळें, व्होळ्ळो निंबूवो (वडकन पुळी) गब्या कुटको, देवा निवेदाचो सोट्टु कोरचे खत्तीर कोब्बु इत्यादिक. (कृष्णाक निवेदु समर्पण कोरूक फुग्गेयलेले चोणे, कत्तळे कुट्टीके अनिक कोब्बा कुट्टीके एक्कडे कोरनु सोट्टु करप.)

हरवें केळें बाळूक तोळूक, गोड्डा उक्करी (शर्कर पेरट्टी) कोरूक, फडी तोळूक सग्ग काडप. सुरणा बाळूक दाट कोरनु सिन्धूनु, उक्कोळ्नु बाळूक तळप, तवश्याचे अल्लें, गब्बो सग्ग एक्कडे कोरनु “शिवकर्णें” करप सग्ग अस्सा. पिक्कल्ले केळ्याचो हलवो करप. अनवाळ्यान तां करताय जल्यार हें रत्ती पुज्जेक निवेदाक काडप अस्सा.

*(शेष लगी अंकान्तु)*

## कोंकणी शब्द अर्थ-अनेकार्थ

- नागेष अण्वेकर, कारवार

नाख - नासिक, ग्रहणेंद्रिय

नाख खरपिता - राग, जगडेआळ, धमकी

नाख घुवंडिता - असहकार, असम्मति

नाखा बोट्टु - धिमाक, मद, धमीडि

नाख होड - होडपण, साहकारगिरि

## चेर्डुवांलि चित्रँ





कु. कीर्तना वी. कामत्त (10) । कोच्ची वी. वासुदेव कम्मत अनि श्रीविद्या हांगेलि सुपुत्रि ।

